# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

वर्स : दोन
अंक : तीन
ग्रीष्म अंक
मे/जून १९८४

संपादक :
पुंडलीक नारायण नायक

छापपी आनी उजवाडावपी :
नारायण वादोळकार
कुळागर प्रकाशन,
पो. बॉ. नं. १०९
मडगांव ( गोंय ) ४०३६०१

छापणावळ :
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय, गोंय

संपादकाचो पत्तो :
पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, सावय-वेरें
फोंडें ( गोंय ) ४०३४०१

अंकाचें मोल : २ रुपया
वर्सूकी पटी : ( विशेशांकासयत )
१२ रुपया

मांडावळ

## संपादकीय

कोंकणी कविता म्हणजे फक्त गोंयांत तयार जाता ती न्हय.
कोंकणी समाज गोंया भायरुय पातळ्ळा.
ता. ११, १२ आनी १३ मे १९८४ ह्या तीन दिसांत,
अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेची १५ वी बसका कर्नाटकाच्या
राजपाटणांत बेंगळूर शारांत जाली.
परिशदेंत जाल्ल्या दोन कविसंमेलनांनी सुमार पन्नासांवयर ज्येष्ठ आनी
नवोदित कविंनी वांटो घेतलो.
गोंय, मंगळूर, कोचीन, त्रिशूर, मुंबय आदी भागांतल्या काव्याचें
प्रातिनिधीक म्हणूंये अशें दर्शन घडलें.
कोंकणीच्यो वेगवेगळ्यो शैली पळोवपाक मेळ्ळ्यो.
अशाच कांय कवितांचे नमूने एकठांय करुन ह्या अंकात दिल्यात.
वाचप्यांक आनी कोंकणी कवितेच्या अभ्यासकांक
ते अुपकारा पडूंये अशी आस्त आसा.

२

नाकां नांव तुकां कळों
म्हाकां मन तुजें मेळों
हांव तूं चें नातें जळों
खिण खिणाक ॥ १ ॥

सत् तेंच आतां सांगतां
म्हजें म्हजें म्हण्टा ताजें
जालां जड जड वजें
बुध्दनाशी ॥ २ ॥

देखून वज्या सकलून
मात्सो असो ओडा
म्हज्या जडाकुय नाडा
गिन्यानान ॥ ३ ॥

# अभंग
## रमेश गभवंत वेळुस्काराचे

१

अुदेंतेच्या राया
तुजी पानेता रे माया
म्हजी धरना रे काया
मळब-घेणी ॥ १ ॥

सर्वंय शिरझाराचें सूख
म्हज्या शिरांशिरंतरां
म्हज्या तनरांची घरां
आतां पोंवळता ॥ २ ॥

असो सूर्यं शिरझांराचो
येता रुंवा रुंवार भार
ना रे भारांकुय थार
शबय गुणी ॥ ३ ॥

३

खिण खिणाक म्हाकां
तुजी याद जांवची
दोळयांनी ह्या भरचो
नदर तुजी ।। १ ।।

तुजे नदरेंत
सर्ग सुखा धन
पांच पंचिस्टांचे मन
तंद्रारुप ।। २ ।।

अशें तंद्रारुप
म्हज्या रंद्रा रंद्रा
कशी कळची ह्यां इंद्रां
नदर तुजी ।। ३ ।।

४

दुसरे विचारतले तेन्ना
म्हाकां जाप दिवंक जाय
तुमचे जिबेर फुक्या ल्हाय
वेळमारी ।। १ ।।

म्हजे मातयेन ताकां
म्हाकां केळंवक जाय
तिच्या मोगाची हो भाय
दिवंक जाय ।। २ ।।

५

हातांत शेंकरे घेवन
ताका म्हणटात गोवर्धन
अशे हांगा जाल्यात कृष्ण
कृष्ण कृष्ण ।। १ ।।

पावसाळ्ळ्या व्हाळांकुय
हे गा म्हण्टात यमुना
चुट्टी सोरोपूय मरना
कृष्ण कृष्ण ।। २ ।।

दर वर्सा मरता
नरकासुरय कड्डाचे
केंस हालना हड्ड्याचे
कृष्ण कृष्ण ।। ३ ।।

मळबां भेदून युगांचीं
जैतिवंत राधाधन
वसता काळजां सुखोवन
कृष्ण कृष्ण ।। ४ ।।

हांगा जळीं मळीं
कण कण कशो कृष्ण
भुरगेपणानुच शीण
कृष्ण कृष्ण ।। ५ ।।

६

आरे आरे किरा
अुड सोडून रे पांदरें
पांदरें जायसर बोंदरें
रावूं नाका ॥ १ ॥

मात अुडच्या पयलीं
सांगरे तुज्या पाखांक
थार ना रे राबित्याक
मळबामदीं ॥ २ ॥

७

आरे म्हज्या सभाग्या
मोग दि रे दुसऱ्यांक
करुं नाकां झांक
मोगाची रे ॥ १ ॥

मोग मोग म्हणून
मोग केन्ना जायना
हेरांक कांयच कळना
म्हणप चूक ॥ २ ॥

हांव करतलों
आगा सगळयांचेंच बरेपण
दिवन सगळयांक दुशण
सारकें न्हूं ॥ ३ ॥

पायांपोंदचो काळोख
मात्सो वळखूंक शीख
कोणूय घालीत भीक
अुज्वाडाची ॥ ४ ॥

८

भाटां आसा भाटां
पयश्यांच्यो खणी आसा
फक्त पळयत बसा
धन म्हजें ॥ १ ॥

धन आसा मुकार
ताची पोटाक नाका जाप
भुकेक घाला खांप
चुरचुऱ्यांचें ॥ २ ॥

चुरचुरे हो तुमचे
सामकें गंगाजळ
जिणेंचो हो मळ
पयस करी ॥ ३ ॥

देखून म्हण्टां केन्नाय
घालचें तुमकां जेवण
ताच्या काळांतरान
घर भरुं ॥ ४ ॥

कविता

## तुजो हांव रिणकारी

जे. बि. मोराया

प्रकास तुजो दोळयांक
दीपता धनया
तुज्या उज्वल प्रकासांत
म्हजो ल्हान झळक फांकतां
सूर्याक धरच्या
आरशा बरी
काळें मोड एक
आडायत तर उज्वाड तुजो
हांव एक काळोकाची रास
तुज्ये धगधगित उबेंत
हांव तापलां
उज्यांतल्या कोयते बरी
तापोन हांव तांबडो जालां
जशी कोयती बडवन
हाडयेत जाय तो आंकार
तसो म्हाका बडयि धनिया
हाड तूं म्हाका रुपार
काळजांतली उब
निर्वोक सोडिनाका
तुज्या मुटितली माती हांव
बोटांनी तुज्या
दांबून पुसून
कर तूं एक मूर्ती
तुज्या मना जोकती
जल्मांत हांव रिणकारी
मरणांत हांव रिणकारी

(' भितरलें तुफान ' संग्रहांतल्यान )

कविता

## सुटलो बावडो सुटलो

बि. नि. बाळिगा

---

फात्यार उटाव्न वाचताना पेपर
कोनस्यांत दिसता भो लान अक्षर
'बाबरायालें मडें देवळा तळयांतू,
महतोबार मंगळूर शहरांतू'

उडलो कि पडलो ? लकैलो कि लकलो ?
आमि नेण तो एकलोंच जाण पुणू– सुटलो बावडो सुटलो

भाड्या बाकीक मातों हून करकावे ?
रीणगारांक चोवनू आडवाट धरकावे ?
कुंकडान रडताना हांतुळ सोडकावे ?
लाकूड वेंचूंक दोंगर चडकावे ?
ना खंचेय ना
ह्यचि योचताचि ना
योचना सोण् गेला आशिल्ल्यांक तोवे ?
सुटलो बावडो सुटलो

बायलेलि देडि ह्याति दीग सामाना पट्टि
आलताना पेलताना शिल्ल्यांलि हाडि व्हरा मिट्टि
मंडसालेक वेळु जाल्यार धनियालि कुट्टि
हात पांय झरतु आंग पुरा पिट्टि
आनि आसावे हे श्रास ?
वांव्ट काडचे रातदीस ?
निदला तळयांतू निरायास
व्हे, सुटलो बावडो सुटलो

रेशनू आयलेंवें हातांक गळयांय चील
चिमणे तेलाक चोविस औन्सा बोतल
राकून रावका कनिष्ट तीन तास काल
क्यू वाडता दीग दीग वाल
आनि कित्याक राकूका ?
रणरणी वोताक सुक्का ?
ही उप्राळि अतिता ताका
तो - सुटलो बावडो सुटलो

नळांतू त्या त्या वेळि बंदू जाता उदाक
वाय्तुलें काडयावें गेलां पाताळाक
विद्युत अस्थिर, केदनाहिं लगपुक
लें; जोळोयावें वरगाल तेलाक
हाची ताका काळजि ना आनि मात्या खोंचिचि ना
अस्थिर जग सोण् गेला दूर खरेंच सुटलो बावडो सुटलो

एक नारलाक मोल राबलां चारि रुपय
शियाळे पितालोवे अडेच रुपय
नारला तेलाक लिटराक लगबग पांतीस रुपय
आयकतलेच वे ? ती बरे तेरा पैसे मौल्याचे रुपय
धारण चडो–मळबाक उडों
रुपये मौल्य आनिकेय देंवो
ताका कितें - सुटलो बावडो सुटलो

माया-ममता, मद-मत्सर, बायल-चेर्डूंव
सुख-दुःख, दीस-रात आसातिवे व्दंव्द
ना, ताची परवाच ना ताका बावड्याक
हें सग् खंयसून येवका मेलेले मड्याक ?
बावरायु मोरनु वांचलो
उरललो लोक वांचूनु मेलो
खंडिताक्य-सुटलो बावडो सुटलो.

कविता

## जनेल

दत्तकुमार व्यं. कामत

‘ ह्या जनेलांत बसल्यार बरो ऽऽ वेळ वता ’
हीं अुतरां आतां फाटीं पडलीं.
पैलीं ह्या जनेलांतल्यान
पोरसांतले गुलाब, तांचेर बसपी पिसोळीं
मनां खेळयतालीं
मळब धांपपो ऊंच माडावी पांचवीचार चुडटां
आनी मदले तांबडेगूंज नाल्ल
दोळयांची तान न्हिवयताले

आयज चारयबटयां कॉंक्रीटच्या
बिल्डींगानी मळब पुसून बडयलां
जनेलाच्या अेका कोनशार
दिसता अेक निर्शेल्ली खोप
आनी वाटेक दोळे लावन बशिल्ल्या
जाण्टेल्याचें फाटीक तेंकिल्लें पोट
जनेलाचो अेक - अेक खीण
आज यूग जालां ...

( ‘ जनेल ’ संग्रहांतल्यान )

कविता

## बिनंती

**पी. एन. शिवानन्द शेणै**

---

यो यो यो; येवन
ह्या गांवांक राक
मनीश मनशांक
साबाव जिवंशि मारता
आलतांत–पेलतांत लोकटों काण
भुरग्यांवरी खेळतात;
दादल्याक खेळूंक धूवेक
आवसूच दिता;
भुरग्यांक सांतेंत विकून
आवसूच दवरता !
भूक, भूक, भूक, म्हण सांगून
मान विकून खातात,
गुरबीण जातात, बाळांत जातात
चेरडुबाळांक विकून खातात.
देवळांतुली दिवल्यो
फारनु व्हरतात
देवाले पेजेंत
फातोर घालतात

यो यो यो; येवन
ह्या गांवांक राक; येवन
ह्या कुळाक राक; ह्या
कुळाव्यांक राक !

('किरकिर' संग्रहातल्यान)

## बोस्त्यावांच्यो सुनों

**तोमाजिन्यू कादोंज**

तिगूय आमी बोस्त्यावांच्यो सुनों
हो सगळो लोक आमकां वळखोन जाणों
गांवचो लोक आमकां इस्तिमासावान म्हुणों
अवचितुच नोशिबार बसलो गुणो

सासुमांय बोरी आसली देवा, माणसुकी आमची कोरताली भावा
देव जाणां कितें जालें तिच्या जीवा
आमकां म्हुण्टा जाय जाल्यार रांदून जेवा

सासुमांय रे बोरीच आमकां तारता
आमी खुंय कोण कोणांयबरीं नाच्ता
घोव आमचे बायरीन, कुवेत, मस्कत आस्ता
देवूच जाणां आमी कितें सोंस्ता
सुन : १ – जॉनी आमगेर केन्नाय येतालो
सून : २ – टॉनी सगळयो वस्तु हाडून दितालो
सून : ३ – बॅनी केन्नाय येतालो–वेतालो
तिगी : – सासुमांयन पुता केलो घोटालो

देवूच जाणां लोकांक कितें दिसलें
जॉनी, टॉनी, बॅनी लोचाण हें कोस्लें
घोव गांवांक आसल्यार कितेंय घोडचें नास्लें
चितलोलें काम रे सारखेंच फोस्लें

घोव नास्तोच ओशें घोड्टा रे पुता
लोक बेस्टोर कोणाचोय दुबाव खाता
देखुनूच आतां आमी गल्फाक वेतां
बोरें आदेव्स तुमकां, बाय बाय टाटा.

( ‘ थेंबे ’ संग्रहातल्यान )

कविता

## पकि व्हार्डीक

**के. अनन्त भट**

---

होरेतु पुनवे चन्द्रु, होक्कल काळुकी राति ।
होराण झग-मग जावंचे नक्षत्रांची फांति ॥ प. ॥

नीळ मळबा मण्टपु, सहज सिंगारले खांबले ।
होरेतु होकले जोडीक, पळौनु सर्वयि रावले ॥ १ ॥

होरेतान होकलेक किरणांमाळा घाल्ली ।
होक्कल राति लज्जेली चांदण्यांतु ती न्हाल्ली ॥ २ ॥

व्हार्डीक ही पळोनु, दिसली भारी चंदायि ।
मनांतु मस्त खुशीची मेळ्ळी पंचगदायि ॥ ३ ॥

रायु तो पूर्ण चन्द्रु गोमटी राति राणी ।
होरेतु होकल दोगयि, अमर हांगेली काणी ॥ ४ ॥

अरुण साखरदांडे

१.

## नाच रे मोरा नाच

नाच रे मोरा नाच रे मोरा
नाच रे मोरा नाच
गुलाबाच्या झाडार म्हज्या
फुलां फुल्ल्यां पांच

अेक फुल म्हज्या आवयकू
दुसरें म्हज्या बापायकू
तीसरें फुल पैस दिल्ल्या
भांगरा सारक्या भयणीकू

चौथें फुल कोणाक रे
जाणा जाल्यार सांगूच रे
चौथें फुल अपूरबायें
धाकट्या म्हज्या भावाकू

पांचवें फुल सोबीत फुल
पांचवें फुल कोणाकु ?
पांचवें फुल आसुंदी रे
गुलाबाच्या झाडाकू

नाच रे मोरा नाच रे मोरा
नाच रे मोरा नाच
पिसां फुलोवन नाच
गुलाबाच्या झाडार अशींच
फुलां फुलुंदी पांच

२.

**चंद्रीममामा म्हजे घरा केन्ना येतलो**

चंद्रीममामा म्हजे घरा केन्ना येतलो ?
येतलो रे येतलो रे येतलो रे ऽऽऽ
म्हजी एक गोड पापी केन्ना घेतलो ?
घेतलो रे घेतलो रे घेतलो रे ऽऽऽ

येतना तुजी घेवन यो रे हरणाची गाडी
तातूंन बसून आमी करूंया संसाराची भोंवडी
शारां पळोया, झाडां पळोया, गीत गावया खोशयेचें
चान्नें जशें तुजें हांसता पुनवेराती धवशें

चिचेंच्या झाडाफाटल्यान असो आतां लिपूं नाका
आमचे बरोबर असो मामा आपालिपा खेळूं नाका
अमासेच्या राती लिपून घरा ओगी बसूं नाका
सोदू सोदून दमले आमी आमकां असो हांसू नाका

रुप्यांच्या ताटांत मामा भांगराची वाटी
एकठांय बसून आमी खावया हालवो आनी बर्फी
मामा तुकां आपोवन आमचो ताळो सामको सुकलो
आवय मात विचारता आमकां मामा केन्ना येतलो ?

चंद्रीममामा म्हजे घरा केन्ना येतलो ?
येतलो रे येतलो रे येतलो रे ऽऽऽ

कविता

## गोंयांत वच्चो कवळो

### वि. शेट बलराज

कव्यारे कौळ्यारे
गोंयांतु गेल्लोल वे
गोंयांतु वच्चाक या पुताल
बपाक देकील वे ?

अनि वत्तेरि चोंका
पुताल वापाक देखूका
बबोक खेळूंक बौलि अेकि
हाडूंक संगूका

वच्चूंन अेत्तेरि दीन
पेज अेदि वाडीन
मिरया हापोळु बज्जून
खावूंक तुका दीन

पूतु व्होळ्ळो जत्तोलो
सिकून करबराक वत्तोलो
म्हंतरि हांव जत्तेरि
कुय्यां म्हाका घलतोलो

(' म्हंतारि अज्जि ' संग्रहांतल्यान )

कविता

## सोरगु

पी. जी. कामत

बोड करयि, खाड वाडयि
धवें सोडि, कावि काडि
खोलो सोडि, कंवडळु घे
बायलेक सोडि सखी धरि
पूताक सोडि, शिष्यु काडि
घर सोडि, आश्रम बांदि
जेव नाका, भिक्षा घे
न्हाव नाका, स्नान करि
नीदे नाका, शयनाक वच
बिडि सोडि, भांगि ताणि
सोरगारि वच, सूख भोगी

( केरळ कोंकणी अकादमीच्या ' दिवटी ' पत्रांतल्यान )

कविता

**खेळ**

**शंकर परुळकार**

सगळयांत बरो खेळ खंयचो ?
फुटबॉल, क्रिकेट, टेनिस,
बॅडमिंटन.......
न्हय.
सगळयान बरो खेळ
दाखय–लिपय
दाखय–लिपय
ज्यांका हो खेळ खेळूंक जमना
तांच्याखातीर दुसरे खेळ आसात
१. दाखय, दाखय, दाखय
२. लिपय, लिपय, लिपय

कविता

**प्रकाश गं. थळी**

आडाय आडाय
त्या म्हौंवामुसाक
तो पळय बागेंत
वचूंक भायर सल्ला
साब सुबो पाख्याचो
जीव वतलो !
मूस बागेंत वचून
पाकळयो चुमतलो
म्हौंव चोखतलो
पोळें करतलो
खंयतरी !
मनीस म्हौंव व्हरतलो
अुरिल्ल्या मेणाची
वात करतलो
तो पेटयतकीर
घात करतलो
पाख्याचो
खंयच्यातरी !

संस्कृत काव्य

## शृंगारशतकम

भर्तृहरी/रमणी मित्र

१

नवचंवरगंध धुंद श्वास
विरह विकल मन आस
ऋतु वसंत गीत गायत
कुडींत काम परमळायत.

२

मंद सुगंध वारो
मनचंवरी फुल श्वास
चंदनशितळ हात हातांत
ऋतु ग्रिष्मराज, मदन रात.

३

रात पर्मळीत फुलांची
निर्मळ सुर-सुरांची जाळी
संग रमणी नाजुक गोरी
नजर दिव्यांनी ओंवाळी.

४

गालार खेळयता मदन
कुचांचें अमृत आव्हान
कुड शिंवरायता सुगंध धन
चंचळ मनी रे काम

५

कुपांकुपांची सादून लय
नर्तन करता मोर
पूण रमणीविणें पथिकाक रे
कसलीच ना ओड

६

जोग्ल चंचळ, स्फूर्तगंध केतकी
जळ छळ्छळ् कुप, मोर क्रीडा रंगली
कामरंगांत दंग दिको रंग-रंगी
पूण विरहभरीत रमणी, ना साथी संगी

७

मळबांत कुपवृंदांचे गर्जन
भुंयेर तणांकुरांचे नर्तन
मोर-सादांनी धुंद वन
काम-पर्मळीत मदन-मन

८

असूचीत काळोख, मस्त कुपांचे आवाज
जोगलां भांगर चक् चक्, जळधार साद
अशा वेळार जाय प्रियकर साथ
ना तर रीती रीती ती रात

९

भायर पावस शितळ, वेंगायता नारी
तिच्या मनात जागता आस म्होंवी
रंगतना गे सर्ग-सारंगी
प्रियकराक दीस रंग-सुरंगी

कविता

## सपन

संतोष जगन्नाथ महाले

मळबातल्या चान्न्यावरी
मन रे म्हजें चान्नेलें
उजवाडाचें शेवणे म्हज्या
हातांक आयज मेळ्ळें

सोशयेचें ल्हारान ल्हार
पायांपोंदा मेळटा
तकले वयलें मळब फकत
दोन बोटां उरता

रुखा मनांर फुटलो भोंवर
शेवणी लागली गावंक
साडी सोडून पळटा वारें
खंय रे ताका भान ?

काळजाच्या कुडींतलें
सपन म्हजें सपनेलें
मळबांतल्या चान्न्यावरी
मन रे म्हजें चान्नेलें

कविता

## पडझड

निलवा अ. खांडेकार

वाटेर शिपडिल्ल्या
कांटयांनी
फुलांची व्यथा
रंगोवन सांगली
ऋतूची अेक झूळूक
विरह-गंध लांबयत गेली
पडझडाचो शाप
झाडा-झाडार रिगलो
पानांची सळसळ
ग्रीष्माची शिकार जाली
आनी सूर भरिल्लो
सुकण्यांचो पिको आवाज
चोंचीतूच अुल्लो
चोंचीतूच अुल्लो

गीत

## ह्या दर्याच्या पलतडीन

**प्रकाश आचार्य**

ह्या दर्याच्या पलतडीन
वाट म्हजी पळयता
सुखदु:खाचें हें जिणे
या दु:खांत वावुरता

दाट धुक्यान सूख थंयचें
दिसून दिसना फटयता
सपनांत म्हज्या येवन तें रूप
आस दाखवन भुलयता

सोड रे जिवा मोह आस
वान्सा खोटी खेळयता
नशीब तुजें पलतडीन
वाट तुजी पळयता

कविता

## गिन्यान

माया शेल्डेकार

हांव बुदवंत म्हणत
रांदचे कुडींत आयलें
तव्या वयले भाकरेन
म्हाका पिशें थारायलें
इस्तांतीवयले डबे
खुदू खुदू हांसूं लागले
मेजा वयले ताट पेले
दांत दाखोंवक लागले
राश्नीतल्या लाकडांनी मात
गिन्यान म्हाका शिकयलें

कविता

## तूं वचत सावन

नूतन सुखठणकार

तूं वचत सावन
म्हजीं पावलां म्हजेवकडें उल्यांत
तांचो आवाज तुकां आयकूंक येना ?

तूं वचत सावन
म्हजे जिवेंक सामको सुसेग मेळ्ळा
तिज्या अुतरांचो तुकां उजवास जायना ?

तूं वचत सावन
म्हजीं दुकां म्हाकां वेंग मारुन आसा
तांकां पयसावचीं अशें तुकां दिसना ?

तूं वचत सावन
तुज्यो यादी मात काळजान उल्ल्या
व्हडंक तूं तांकां एकदांय कित्याक येता ?

कविता

## मातयेक लेगीत

**माया सरदेसाय**

ह्या जुल्माच्या धपक्यांनी
काळजाक पडपाची चीर
चीर पडलीना।
पुण जाले जायते कुडके
तेयबी गेले शेवटत धर्तरेर
तरीय कोण ते अुखलीनात
ते पावसाच्या झरीभशेन
वतात जिरुन धर्तरेंत
आनी ह्या मातयेच्या जमनीक लेगीत
फुटता काळीज

कविता

## मोगो मोग

**शकुंतल आरसेकार**

अशें कशें मन म्हजें
म्हजें म्हाकाच उमजना
मोग हांवें दिला तुका
अुक्तो करूंक समजना

दोळे भरुन पळोवंक तुका
हांव अशें आशेतां
पुण तुजेर नदर मारूंक
हांव तशेंच भियेतां

अेकूच अुतर मोगाचें
अुलय आनी खोशी कर
आशेलेल्या काळजाक ह्या
अचळय तुजे वेंगेंत धर

कविता

## कष्ट जालें

**रत्नाकर आनंद शणै**

माया पासु इतुलो वट्टि हुमटांवचे कश्ट
चोयि चोयिले कडेन दिसुनु येता स्पष्ट !
हें रुप वग्गि सराक तुटचें मट्टाक ना
कोणयि जावो, कोणालेयि कट्टाक ना
एकलेय चोयीले ना तांगलागेलें अदृष्ट !
लागि आशिले, वता राबतात पळयनाशि
जावचे आशिले जावनु वता, आमका कळयनाशि
नसीब चोयना म्हणता पेल्यालो फायदो नष्ट
चांग वायट जालें म्हणु हात पाय घालचे न्हंयि
कष्ट सूख येवचें मनुषाक आयचें कालचें न्हंयि
माक्षि माक्षि बदलता जीवन पुस्तका पृष्ट !

( 'घालोलो घासु गिळच्याक सोजे ' संग्रहातल्यान )

## नवीं पुस्तकां

### भितरलें तुफान

जे. वि. मोरायश

कोंकणीतले अेक नामनेचे कवी जे. वि. मोरायश हांगेलो हो दुसरो कविता संग्रह. ‘नवी होंकल’ हो तांचो कविता संग्रह पांच वर्सां आदीं उजवाडाक आयिल्लो. हो संग्रह कन्नड आनी नागरी अशा दोनूय लिपींनी छापला. संग्रहाचें संपादन जे. स. स्वामी सुप्रिय हाणीं केलां आनी संग्रहांत तांचे संपादकीय प्रस्तावनेचो आस्पाव आसा. धर्म, देशाभिमान, निसर्ग, कवी–कविता, मोग, विडंबन अशे विशया प्रमाण विभाग पाडून वोट्ट २८ कविता उजवाडायल्यात. प्रकाशक : पुनव प्रकाशन–मंगळूर ५७५ ००२. पानां : १२०, मोल : २० रुपया.

### जनेल

दत्तकुमार व्यं. कामत

कोंकणींत सातत्यान कविता बरोवपी तरुण कवींमदलो दत्तकुमार कामत हो अेक कवी. हो तांचो पयलोच संग्रह. संग्रहांत ५४ कविता आसात. मुख्यांखातीर आदिल्ल्या विभागांत ५ कविता आसात. प्रस्तावना पुंडलीक नारायण नायक हांगेली आसा. मुखचित्र : पुर्णानंद अ. खांडेपारकार. प्रकाशक : श्री गणेश प्रकाशन, ३०७, खलप मनशन, वास्को डी गामा, गोंय. पानां : ७४, मोल : ४ रुपया.

## थेंबे

तोमाजिन्यू कार्दोज

कोंकणीतलो नांवाजतो तियात्रीस्त आनी कवी तोमाजिन्यू कार्दोज हांचो हो कांतारांचो संग्रह रोमी लिपींत उजवाडाक आयला. वेगवेगळ्या विशयावयल्या १०० कांतारांचो हातून आस्वाव केला. फा. फ्रेडी जे. डी. कोश्ता हांची प्रस्तावना आसा. मुखचित्र दिगंबर शिंगबाळ हांगेलें. प्रकाशक : अमर प्रकाशन, कांदोळे–गोंय. पानां : १२०, मोल : ७ रुपया.

## किरकिर

पी. एन. शिवानन्द शणै

२७ पानांचे हें सुपुल्लें पुस्तक केरळ कोंकणी अकादमीच्यें चवथ प्रकाशन जावन आसा. ह्या पुस्तकाक आनन्दन एन. एन. हांची प्रस्तावना आसा. मोल : ४ रुपया.

## घालोलो घासु गिळच्याक सोणि

रत्नाकर आनंद शणै

हें एक कवन रुपक, केरळ कोंकणी अकादमीन उजवाडायलां. पानां : २७, मोल : ३ रुपया.

## गोलगोथा

एम. गोविंद पै

भगवान जेजू ख्रिस्ताच्या निमण्या दिसांचेर आदारलेल्या ह्या काव्याचो अणकार एम. गोविंद पै हाणी केला. तर्जुमो-अेडवर्ड नोरोन हांगेलो. अणकार कन्नड आनी नागरी लिपींन अेकाच पुस्तकांत उजवाडायला. प्रकाशक : कोंकणी संस्थो, सां लुविस कॉलेज, मंगळूर. मोल : ५ रुपया.

## चेंडुची भोंवडी

भिकाजी घाणेकार

कोंकणीतले गीतकार डॉ. भिकाजी घाणेकार हांगेलें हें भुरग्यांखातीर कवतच पुस्तक. तें 'गलीवर ट्रॅव्हल्स' चेर आदारीत आसा. प्रकाशक : सुनंदा प्रकाशन-पणजी गोंय, पानां : ३८, मोल ३ : रुपया.

## अनंत धन

रत्नाकर आनंद शणै

मंगळूरचे 'कोंकणी लव्हर्स' हे संस्थेन हें पुस्तक उजवाडाक हाडलां. पानां : ३०, मोल : ४ रुपया

## कवितांचो तुरो — मोरेन द सौज, एस. जे.

रोमी लिपयेंतल्या 'दर म्हयन्याची रोटी' नेमाळयाचे संपादवी मोरेन द सौज एस. जे. हांगेलो हो रोमी लिपयेंतलो कवितांचो झेलो. फादर निकोलाव पेरेरा हांगेली पुस्ताकाक प्रस्तावना आसा. उजवाडावनी : रोटी प्रकाशन-गोंय, पानां : १८८, मोल : छापूंक ना.

## खेळणां — भिकाजी घाणेकार

भुरग्यांखातीर बरयिल्लया ल्हान ल्हान कवितांचे डॉ. भिकाजी घाणेकार हांगेलें हें पुस्तक शणै प्रकाशन, वेलींग हाणीं उजवाडायलां. पानां : २८ मोल : ३ रुपया

## धालो — श्याम वेरेंकार

गोंयातले लोकवेदाचे अभ्यासक प्रो. श्याम वेरेंकार हाणी 'धालो' ह्या लोकगीतांचें केल्लें संकलन आनी संपादन, कोंकण टायम्स, पब्लिकेशन बेती, बार्देश, गोंय हाणी उजवाडाक हाडलां. काणकोण, जांबावली, केपें, शिरोडें, मंगेशी, वळवय, सावय-वेरें हांगच्या वाठारांतल्या धालोंची ही पुंजावणी आसा. पुस्तकाक 'सकयां साद घाला गे' ही बरोवप्याची प्रस्तावना आनी टिपा आसात. मुखचित्र : दिगंबर शिरगावकर, पानां : ११०, मोल : १० रुपया.

## श्रीमद् भगवत गीता — बी. वि. बाळिगा

मंगळुरचे कोंकणींतले नावाजते साहित्यिक आनी 'पंचखादाय' नेमाळयाचे संपादक बी. वी. बाळिगा हाणी श्रीमद्भगवद्गीतेचो कोंकणी अणकार केला. (हाचेआदीं भगवद्गीतेचे कोंकणींतल्यान पद्यान वा गद्यान अणकार-शणै गोंयबाब, बंगले नारायण कामत, मंगेश रामकृष्णा तेलंग, श्रीपाद रघुवीर केशव प्रभु, प्रभानंद स्वामी, बाकीबाब बोरकार, इन्द्रकांत वासुदेव शणै, एन. लक्ष्मीनारायण भट, आर. अनंत भट हाणी केल्यात.) हो अणकार नागरी आनी कन्नड अशा दोनूय लिपींन वेगळया दोन पुस्तकांनी प्रकाशित जालो. नागरी लिपींतलो अणकार, केरळ कोंकणी अकादमी-कोचीन हाणी उजवाडाक हाडला. पानां : १३० आनी मोल : ८ रुपया. कन्नड लिपींतलो अणकार के. बी. गोविंद राव, कालीकत-केरळ हाणी प्रकाशित केला. मोल : ६ रुपया.

# RURAL DEVELOPMENT AGENCY - GOA

Helps the unemployed rural youths by imparting vocational training in various trades, such as Embroidery, Tailoring, Carpentry, Motor Mechanic, Pottery etc., of 6 to 12 months duration. During the training period stipend of Rs. 50/- to Rs. 100/- per month is paid.

On completion of the training, the Agency further assists to provide tools and equipments to start one's profession to earn their livelihood by granting subsidy of $33^{1}/3\%$ limiting to Rs. 3,000/- on capital cost and the balance by loan of financing institution at low rate of interest.

For further details, contact the nearest Block Development Officer or the Rural Development Agency Panajim - Goa

Issued by :
RURAL DEVELOPMENT AGENCY -